


# सगळ्यांचे सांगाती सगळ्यांचे इश्ट

उमाशंकर जोशी

चित्रकार

मिकी पटेल

नेहरू बाल पुस्तकालय

# सगळ्यांचे सांगाती सगळ्यांचे इश्ट

उमाशंकर जोशी

चित्रकार

मिकी पटेल



नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

# एक

एके रातची खबर. उपाट काळोख पातळलेलो. मोहनाक हरशींय जाल्यार भुतां - प्रेतांचो भंय दिसतालो. काळखांतल्यान एकलो गेलो जाल्यार सट्ट करून खंयच्यानूय भूत - पिशाच येवचें ना मू, अशें दिसतालें. ते रातीं तर हाताक हात दिश्टी पडनाशिल्लो. इतलो काळोख पडिल्लो. मोहन कुडींतल्यान भायर आयलो. ताचे पांय धरिल्ले वरी जाले. काळीज धडधडपाक लागलें. घरची पोरणी दाई रंभा म्हऱ्यांत उबी आशिल्ली. तिणे हांसत हांसत विचारलें,

'कितें जालां रे, मोहन?'

'म्हाका भंय दिसता.' मोहनान जाप दिली.

'कोणाचो भय?'

'काळोख पळे कितलो पातळ्ळा. सट्ट करून भूत -बीत येत म्हणपाचो भय दिसता.'

'काळखाक भियेतात रे पुता?' तिणे मोहनाचे तकलेर हात दवरून म्हळें, 'रामाचें नांव घे आनी सडसडीत वच. भूत-बीत कोण म्हऱ्यांत येवचेंना. तुजे ल्हंवेक लेगीत कोण हात लावचो ना. राम तुका राखतलो.'

रंभेचें सांगणे आयकून ताका धीर आयलो. रामाचें नांव घेवन तो गेलो. त्या दिसा मोहनाच्या मनांतलो भय ना जालो. उपरांत ताका केन्नाच आपूण एकलो आसा - शें दिसलें ना. राम म्हऱ्यांत आसतना कसलो भय, हे तरेचो भावार्त ताच्यांत जागो जालो. तेन्ना सावन राम-नाम ताचे जिणेचो मंत्र जालो. जिविताच्या निमाण्या खिणावेळार लेगीत ताचे जिबेर रामाचें नांव आयिल्लें.

# दोन

सभावान मोहन भिडेस्त. शाळा सुटिल्ल्याची घांट वाजना फुडें दप्तर घेवन तो नीट घरा पळटालो. बाकिचे भुरगे संवगड्यां वांगडा खबरी करीत वताले, वाटेर खंयूय खेळपाक थांबताले, कोण कितेंय खावपाक रावताले. मोहन हेवटेन तेवटेन पळे लेगीत नाशिल्लो. भुरगे आपणाक धरून आपणालीं फकाणां मारतले हो भय ताका सदां आसतालो.

एक खेपे शाळेंत इंस्पेक्टर आयलो. नांव मिस्टर गाइल्स. ताणे भुरग्यांक पांच इंग्रजी उतरां बरोवपाक घालीं. मोहनान चार सारकीं बरयलीं. पांचवे 'कॅटल' उतर ताका सारकें बरोवंक आयलें ना. मास्तरान तें पळेलें. इंस्पेक्टराचो दोळो चुकोवन ताणे 'म्हऱ्यांतल्या भुरग्यान बरयल्लें पळे' म्हूण मोहनाक खुणावन सुचयलें. मोहन ओग्गी बसून रावलो. बाकिच्या भुरग्यांनी पांचूय उतरां सारकीं बरयलीं. मोहनान चारूच सारकीं बरयल्लीं. इंस्पेक्टर वतकूच मास्तरान मोहनाक तापोवन म्हळें, 'तुका हांवें खुणावन सांगिल्लें म्हऱ्यांतल्या भुरग्याचें पळेवन बरय म्हूण. तुका कोपीय मारूंक येना?' भुरगे खूब हांसले.

मोहनाक निखालूस वायट दिसलें ना. आपणे केलें तेंच समा आशिल्लें अशें ताका दिसलें. ताका एकेच गजालिची खंत जाल्ली - दुसऱ्याची कोपी मार म्हूण मास्तरान कशें सांगचें? मास्तराचें काम कोपी मारतल्याक आडावपाचें.

# तीन

दक्षिण आफ्रिकेंतल्या फिनिक्स नांवाच्या एका गांवांत गांधीजींनी एक आश्रम सुरू केलो. आश्रमांत भुरग्यां खातीर एक शाळाय काडिल्ली. खासा गांधीजीच भुरग्यांक शिकयताले. हेर शाळांनी भुरग्यांक नंबर दितात ती तरा गांधीजींक माननाशिल्ली. भुरग्यांक खरेलें शिक्षण मेळचें, तातूंत भुरग्यांचें ज्ञानूय वाडचें आनी तांकां बऱ्यो संवंयोय लागच्यो, हे तरेचो ते आश्रमांतले शाळेंत यत्न करताले.

परिक्षेंत नंबर दिवपाची तांगेली तराय वेगळी आशिल्ली. सगळ्या भुरग्यांक एकूच प्रस्न विचारताले. भुरगे सगळे एकाच वर्गांत आसताले. प्रस्नाक जे सारक्यो जापो दिताले तांकां ते उणे नंबर दिताले आनी जे चुकिच्यो दिताले तांकां चड नंबर दिताले. नंबर दिवपाची कसली तरा ही, असो भुरग्यांक प्रस्न पडटालो. सारक्यो जापो दिल्ल्या भुरग्यांनी एक दीस तांकां विचारलें, तेन्ना बापून तांकां समजावन सांगलें - रामा परस श्याम चड हुशार हें म्हाका दाखोवपाचें ना. हांव ह्या हिसपान नंबर दिना. भुरगे खंय आशिल्ले, शिकून आतां तें कितलें मुखार पावल्यात, इतलेंच हांव पळोवंक सोदतां. फुडें सरिल्ले भुरगे फाटीं पडिल्ल्यांकडेन आपापाली सर्त करपाक लागले आनी आपणाक हुशार लेखपाक लागले, जाल्यार तांगेली बुद्द खुंट्टली. ते गर्विश्ट जातले. आनी चड शिकपाची गरज ना अशें मानपाक लागतले. जो मन लावन आनी यत्न करून शिकता तोच मुखार सरता. हांव ताकाच चड नंबर दितां.

चड नंबर घेतल्यांचेर ते चड नदर दवरताले. सारके शिकता काय ना तें बारकायेन पळेताले. चड नंबर घेतिल्ले गर्वान फुल्ले जाल्यार तांचें बरें कितें जातलें, हें ते भुरग्यांच्या मनांत भरूंक सोदताले. कमी हुशार भुरगो चड यत्न करून शिकतालो आनी परिक्षेंत चड नंबर घेतालो तेन्ना बापू ताका शाबासकी दिताले.

# चार

बापू दक्षिण आफ्रिकेंत वकिलकी करताले तेन्नाची खबर. घरा पसून तांगेलें ऑफीस तीन मैलांचे वाटेर आशिल्लें. तांगेले पोलाक म्हूण एक सांगाती आशिल्ले. तांणी बापूच्या तेरा वर्सांचे पिरायेच्या पुताक - मणिलालाक सांगलें. घरा येतना ऑफिसांतल्यान एक पुस्तक हाडूंक सांगिल्लें. मणिलाल हाडूंक विसरलो. तिनसनां पोलाकांनी पुस्तक मागलें तेन्नाच मणिलालाक एक काम ताचो उगडास जालो. गांधीज़ींक ही खबर कळ्ळी. तांणी मणिलालाक आपोवन मोगान पुणून खरसाणेन सांगलें, 'हांव जाणा, काळोख पडला आनी वाटेर सगळें किण्ण जालां. येवप वचप म्हळ्यार स मैलांची वाट. तरी आसतना आतांच वच आनी पुस्तक घेवन यो. तुवें हाडटां म्हूण उतर दिल्लें.' येदीशी चूक. तिका येदी व्हडली ख्यास्त? तो भुरगो केदोसो! आनी खंय ती काळखी रात आनी तो अडचणींचो रस्तो! बा आनी हेर सगळीं भियेलीं. पुस्तक फाल्यां हाडूं येता, अशें सगळ्यांक दिसलें. पुणून एकल्याकूय उतर फुटलें ना. बापूंनी सांगलां म्हणटकूच तें जावंकूच जाय, उपाय नाशिल्लो. कल्याणभाईन धीर करून म्हळें, 'हांव घेवन येतां पुस्तक!'

'उतर कोणे दिल्लें? मणिलालान न्हय?' बापूंनी विचारलें.

कल्याणभाईंनी म्हळें, 'उतर मणिलालान दिल्लें खरें. तोच पुस्तक घेवन येतलो. पुणून म्हाका ताच्या सांगाताक वचूंक दियात.'

'बरें आसा'. बापूंनी म्हळें.

मणिलाल कल्याणभाई सांगातान गेलो आनी पुस्तक हाडून ताणे तें पोलाकसायबांक दिलें.

बापू फुला परसूय मोव आनी वज्रा परसूय कठोर आशिल्ले. दिल्ल्या उतराक पाळो दिवंक जाय हें मणिलालाक तांणी शिकयलेंच.

# पांच

मुंबयंत काँग्रेसिचें अधिवेशन भरिल्लें. गांधीजी निकतेच दक्षिण आफ्रिकेंतल्यान मायद्देशांत परतल्ले. काकासाहेब कालेलकरूय ह्या अधिवेशनांत वांटो घेवपाक मुंबय आयिल्ले. एक दीस गांधीजी हुस्को जाल्लेवरी मेजा भोंवतणी कितें तरी सोदतात तें काकासायबांनी पळेलें. 'कितें सोदतात तुमी, बापूजी' काकासायबांनी विचारलें.

'म्हजी पेन्सील शेणल्या. येदीशी आशिल्ली.'

एक पेन्सील सोदपाक बापुंचो वेळ होगडावता तो पळोवन काकासाहेबांनी आपणाली पेन्सील काडून तांकां दिली.

'ना, ना. म्हाका म्हजीच पेन्सील जाय.' भुरग्यांवरी हट करून बापूंनी हळें.

'तूर्त ही दवरात तुमी तुमचे कडेन, तुमची पेन्सील हांव मागीर सोदून दितां. ती सोदपाक तुमचो वेळ होगडावता.'

'ती ल्हानशी पेन्सील, पुणून म्हजे नदरेन खूब मोलाची. मद्रासच्या नटेसनाच्या धाकल्या पुतान मोगान म्हाका ती दिल्ली. ती शेणूंक फावना. त्या भुंरग्याच्या मोगाची कूरू ती...'

काकासायबांनी कांयच म्हळें ना. तेवूय गांधींजी वांगडा पेन्सील सोदपाक लागले. निमाणे पेन्सील मेळ्ळी. मेळटकूच गांधीजी खोश्शी जाले. गांधीजींक ती किरकोळांतली पेन्सील नाशिल्ली - तांचे नदरेन एका माणकुल्या भुरग्याच्या मोगाची कुरू आशिल्ली. भुरग्यांच्या मोगाक गांधीजी खूब मोलाचो लेखताले.

## स

बापूजींक मेळपाक जायतीं भुरगीं येतालीं. एक दीस एक भुरगो आयलो. बापूजींचो भेस पळेलो आनी ताका वांयट दिसलें. 'येदे व्हड बापू आनी तांच्या आंगार एक सादें खोमीस लेगीत ना?' ताच्यान ओगी रावं नज जालें - ताणे विचारलें,

'बापूजी, तुमी खोमीस कित्याक घालिनात?'

'म्हजेकडेन दुडू खंय आसा रे पुता, खोमीस घेवपाक?' हांव एक गरीब मनीस. खोमसा खातीर दुडू खंयचे काडटलो?'

भुरग्याचें मन विरगळ्ळें. ताणें म्हळें, 'म्हजे आवयक शिवंक येता. म्हजी आंगाचीं तीच शिंवता. हांव म्हजे आवयक सांगतां आनी एक खोमीस घेवन येतां. तें खोमीस तुमी घालतले मू?'

'कितलीं खोमसां शिंवन दितली तुजी आवय म्हाका?' बापूंनी विचारलें.

'हांव एकलों ना. एकलोच खोमीस कशें घालतलों?

'पुणून तुमकां कितलीं खोमसां जाय? हांव आवयक सांगून तितलींय शिंवन घेतां. सांगात, कितलीं जाय?'

भुरग्याचो आग्रो पळोवन बापूंनी म्हळें, 'पुता, म्हाका चाळीस कोटी भाव - भयणी आसात. सगळ्यांच्या आंगार खोमसां जे मेरेन पळोवंचों ना, तेमेरेन हांव खोमीस कशें घालतलों? सांग, तुजी आवय ह्या म्हज्या सगळ्या भावां-भयणींक खोमसां शिंवन दितली?'

इतलें विचारून बापू भुरग्याचें तोंड नियाळपाक लागले. भुरगो येवजणेंत पडलो. चाळीस कोटी भाव-भयणी! जेमेरेन तांच्या आंगार खोमसां आसचीं नात, ते मेरेन बापू खोमीस कशें घालते? सगळ्यांचे बापू न्हय तर ते? भोळ्या भुरग्याक आतां कळ्ळें. अख्खो देश हें बापूचें कुटुंब. देशांतलो जण एकलो मनीस तांचो भाव. ते सगळ्यांचे सांगाती, सगळ्यांचे इश्ट. एका खोमसान तांगेलें भागपाचें ना.

# सात

येरवड्याचे बंदखणींत एक दीस खबरी करतां करतां बापूजींनी सरदार वल्लभभाई पटेलांक म्हळें, 'सांबाळून दवरिल्लो सोरोप लेगीत केन्ना केन्ना उपकारा पडटा, आनी ताणी तांकां एक काणी सांगली-

एकले म्हातारेगेर एक दीस एक सोरोप आयलो. म्हातारेन बोवाळ करून शेजाऱ्यांक एकठांय केले शेजाऱ्यांनी सोरोप मारलो आनी ते आपापणाल्या घरां परतले. म्हातारेन मेल्लो सोरोप पयस खंयूय व्हरून उडोवचे बदला आपणाले खोंपीचे वयर चुट्टांचेर उडयलो.

मळबांत वयर एक घोण उडत वताली. तिणे तो मेल्लो सोरोप पळेलो. घोणिचे चोंचींत मोतयांचो एक हार आशिल्लो. खंय तरी तिका तो मेळिल्लो. सोरोप समजून तिणे तो उखलून हाडिल्लो. म्हातारेचे खोंपीवयलो सोरोप पळेतकूच तिणे हार उडयलो आनी मेल्लो सोरोप चोंचीत घेवन ती उडून गेली.

म्हातारेची नदर चुट्टांचेर पडली. वयर कितें तरी चकचकताशें तिका दिसलें. कोंडो हाडून तें काडलें. तिका मोतयांचो हार मेळ्ळो. हार पळोवन ती खोशयेन नाचपाक लागली.

बापूजींची काणी सोंपतकूच वल्लभभाईंनी तांकां एक काणी सांगली -

एका पसरकारागेर एक दीस सोरोप आयलो. मारपी कोण मेळ्ळो ना आनी खासा ताका मारपाचो धीर जालो ना. ते भायर, जीवहत्या ताका करपाची नाशिल्ली. ताणे एक तोप हाडलो आनी तो सोरपाचेर उमथो घालो. तेच रातचे तागेर चोर आयले आनी तांणी उमथो तोप पळेलो. पसरकारान तोपा पोंदा कितेंय तरी मोलादीक लिपोवन दवरलां जांवंक जाय अशें येवजून तांणी तोप उखल्लो. फोंस्स करून सोरपान घांस मारलो - आयिल्ले चोरपाक, जीव वाटायतासर तांकां नाका - पुरो जालें.

# आठ

चरखा संघा खातीर फंड जमयत गांधीजी गांवां गांवांनी भोंवताले. ओड़िसाक पाविल्ले.

थंय एके सभेंत ते उलयले. तांगेलें उलोवप सोंपना फुडें सभेंतल्यान एक गरीब म्हातारी उठून तांचे सरीं आयली. तिगेले केंस पिकिल्ले. कमर बागवल्ली. आंगार बोंदरां न्हेशिल्ली. स्वयंसेवकांनी तिका आडायली. पुणून ती सगळ्यांक धुकलीत मुखार येवन उबी रावली.

'भेटेक आयिल्लीं'. अशें म्हणून तिणे बापूंच्या पांयांक हात लावंन नमस्कार केलो आनी पदराची गांठ उत्ती करून तिणे एक अर्द पयसो काडून बापूंच्या पांयांकडेन दवरलो.

गांधीजींनी तो उखल्लो आनी आपणाकडेन दवरलो.

चरखा संघाचो हिशोब जमनालाल बजाज पळेताले. तांणी तो हिसपांत जमा करपा खातीर मागलो. बापूंनी ना म्हळें.

जमनालालजींनी हांसून म्हळें, 'हजार हजारांचे चेक हांव घेतां आनी तुमी म्हाका अर्द पयशाक पातयेनात?'

गांधीजींनी म्हळें, 'हो अर्द पयसो त्या हजारांपरस चड मोलाचो. जे लाखांनी जोडटात तांणी हजार दोन हजार दिले म्हूण व्हडलेंशें कांय न्हय. हो अर्द पयसो ते म्हातारेची सगळी जोड आशिल्ली. तिणे आपणालें सर्वस्व दिवन उडयलां.' केदें उदार, केदें व्हड काळीज तिचें! केदो व्हडलो त्याग केलो तिणे! म्हज्या मत्तान ह्या अर्द पयशाचें मोल कोटयांनी रुपयां परस चड.

## णव

नोआखलींतली खबर. हिन्दू - मुसलमानां मजगतीं दंगे जाल्ले. तांकां लागून लोकांच्या काळजांत उजो पेटिल्लो. तो पालोवपाक गांधीजी गांवां गांवांनी पांयांनी भोंवताले. फांतोडेर उठचें, एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत सुमार सातांक पावचे. पावतकूच बरोवपाचें काम करचें. मागीर न्हावंक वचचें. न्हातना पांयांचे तळवे ते एका खरखरीत फातरान घांसताले. कांय वर्सां पयलीं मीराबेनीन तांकां एक फातर दिल्लो. तो तांणी सांबाळून दवरिल्लो. जंय वताले थंय तो तांचेकडेन आसतालो.

एका गांवांत गांधीजी पावले. न्हावपाचें उदक मनूबेनीन काडलें. तेन्ना तिका तो फातर खंयच मेळ्ळो ना. खूब सोदलो. तिणे वचून फातर शेणिल्ल्याची खबर बापूंक सांगली आनी म्हळें, 'काल आमी ज्या विणकरागेर राविल्ली थंय तो उरला जावंक जाय. आतां कितें करूं?'

मात्सो वेळ येवजून बापूंनी म्हळें, 'वचून घेवन यो तो. एकलीच वच. एक फावट त्रास जातलो. मागीर केन्ना तुका विसर पडचो ना.'

'सांगाताक कोणाकूय घेवन गेल्यार जाता?'

'कित्याक जाय तुका सांगाताक?'

मनू ओग्गी रावली. एकली वचपाक भंय दिसता हें सांगपाचो तिका धीर जालो ना. नोआखली म्हळ्यार भाटांचें आनी कुळागरांचें एक रान. वाट विसरपासारकें. ते भायर मनूची पिराय पंदरा सोळा वर्सांची. आतां मेरेन एकली खंयच वचूंक नाशिल्ली. पुणून 'कित्याक जाय तुका सांगाताक?' ह्या बापूंच्या प्रस्नाक जाप दिवपाचें तिका काळीज नाशिल्लें.

जे वाटेन तीं आयिल्लीं तेच वाटेन ती गेली. पावलांच्यो खुणो पळेत पळेत ती कशी तरी त्या गांवांत पावली. वीणकराचें घरूय मेळ्ळें. एकली म्हातारी त्या घरांत रावताली. ती मनूक वळखली. तिणे मनूक येवकार दिलो. मनूचें तोंड फुगिल्लें. ते भायर, चलत आयिल्ल्यान तिका पुरोय जाल्लें. 'कित्याक परतें आयलें, बाय?' म्हातारेन विचारलें. तिणे कित्याक आयलां तें सांगलें. म्हातारेक बावडेक तो फातर इतलो मोलाचो म्हूण खंय खबर! तिणे सान्न

मारून कोयर भायर उडयल्लो. तातूंत तो फातरूय आशिल्लो. दोगांय सोदपाक लागलीं. अखेरेक मेळ्ळो. मनू खोश्शी जावन परतली.

सकाळीं साडे सातांक मनू भायर सरिल्ली परतासर दनपारचें एक जालें. तिका पंदरा मैल चलचें पडिल्लें. सामकें पुरो जाल्लें. भुकूय खूब लागिल्ली.



बापूंचो रागूय मनांत आशिल्लो. नीट बापूं म्हऱ्यांत गेली आनी फातर तांचे मुखार दवरून रडपाक लागली.

'ह्या फातराक लागून तुजी आयज परिक्षा जाली.' बापूंनी म्हळें, 'तुका खबर आसा, फाटल्या पंचवीस वर्सां सावन हो फातर म्हजेकडेन आसा. खंयूय वचूं, बंदखणींत वचूं वा खंयचेय पालासींत, तो म्हजे बरोबर येता. असले फातर तुका आनीक जायते मेळटले. पुणून बेपर्वाय समा न्हय. हें तुका शिकोवंक सोदतालों.'

मनून म्हळें, 'देवाचें नांव हांवें मनापसून जर केन्नाय घेतिल्लें आसत जाल्यार तें आयज घेतलां.'

बापूंनी म्हळें, 'हांव बायलांक धीट करूंक सोदतां. आयज तुजीच न्हय, म्हजी लेगीत कसवटणी जाल्या.'

मनू कांयच उलयली ना. पुणून बापूंची शिकोवपाची तराच आगळी वेगळी म्हणपाचें तिणें भितरले भितर मान्य केलां जावंक जाय.

Printed at The Central Electric Press A12/1 Naraina Indl. Area, Phase-I, New Delhi-110028

